# वा स्को य न

[ दीर्घ कविता ]



प्रकाश दा. पाडगांवकार



जाग प्रकाशन



जाग प्रकाशन : २५

शणै गोंयबाब जल्मशताब्दी वर्स प्रकाशन : ९

मार्च १९७७



मोल : पांच रुपया

उजवाडावपी :
सुमन्त रामचन्द्र केळेकार
जाग प्रकाशन
प्रियोळ, म्हाड्डोळ-गोंय
४०३ ४०४

छापपी :
य. गो. जोशी
आनंद मुद्रणालय
१५२३, सदाशिव
पुणे ४११०३०

श्री अरविंद आश्रमाच्या

पूज्य माताजींक

भक्तीभावान

O Lord, O marvellous Friend, O all powerful Master, penetrate all our being, transfigure it till Thou alone livest in us and through us....

—The Mother

. १ .

वास्को :
एक खतखेतें
वेगळयावेगळया मनशांचें,
वेगळयावेगळया जातींचें,
वेगळयावेगळया कातींचें, भासांचें, भेसांचें, देशांचें

वास्कोची किर्त संवसारभर
वास्कोचें दर्शन घेतात स खंड
सात म्हासागर.

वास्को म्हळयार एक रसायण
खतखतत रावपाचें.
रसायण तें हेंच काय किते
विश्वाच्या " उद्धाराचें " ?

cf. unreal city

. २ .

वास्को :
विशाळ झोपडपट्टेवरी एक शार
कुसन्यांत गिरेस्तकायेची खाण भरिल्ली आसतनाय
नागडें–उगडें–पोजडें
आंगार अडेचीं पोवनां, अळंकार चडयल्ल्या
फल्वंतावरी दिसपी.

. ३ .

वेगळींवेगळीं वाद्यां एकाच बराबर
बेताल वाजूंक लागतकच
चित्र–विचित्र सूर
कान किटेवंक लागचे
तशें
वास्को उलोवंक लागतकच जाता.

. ४ .

सुर्य लखलखत्या भिंगाचो
टेक्नीकलर मुवी–कॅमेरो
रुतूचक्रांच्या तरेकवार देखाव्यांतल्यान
पृथ्वेच्या जिणे–नाटकाची
वेगळयात्रेगळया अँगलानीं शूटींग काडित
नित्यनेमान
वास्कोंतय येता.

. ५ .

मुरगांव बंदर :
बोटी-बोटींचेर देशा-देशांचे बावटे चडोवन
सजिल्लें एक " सुपर-मार्केट ".
संवसाराच्यो बाराय वाटो
हांगा एकवटून
साबार प्रस्न धगधगायतात.

. ६ .

आसूं रात चांदन्याची
ना तर मिट्ट काळखाची
कार्यदक्ष गायडावरी
पावसा--वाऱ्यांत फोलेर हो
अेकसुरो जागत रावन
येतल्या वेतल्या बोटीं-बार्जींक
वाट दाखयता
आनी शेवटाक
ताचो तोच अुरता.
" पराजयाची जाणवीक दवरून
हांगा वागप शाणेपणाचें "
हाची हया फोलेराक
खबर ना !

. ७ .

लगिंच्यान पळयल्यार काकुळट हांडपी
दोंगुल्लेचे देंवतेर आशिल्लीं
मोडकीं घरां, दुबळयो खोंपी
लखलखीत वोतांत
पयससून पळोवपाक
कोरांतिल्लीं भुंयेरां कशीं दिसतात.
सोबितकायेची तुस्त करपी भोंवडेकारांनो
हांगचो अगडास म्हूण
हे दोंगुल्लेचे पयससून
फोटे काडून व्हरात.

. ८ .

ह्या शाराक लागून रोग
ताजें अस्तित्व किडेलां
ह्या शारांक ग्रासून शाप
घराच्या घरांत परकेला

. ९ .

कोणें धोल वाजोवप
कोणें मिरोवन घेवप
कोणें दुसऱ्यांच्या नाडथार
आपली पालखी उबारप
कोणें हूम पियेवन
ताळो ओलो करचो
काळखाक गुटलायत
कोणें देह सजोवचो
कोणें वादळां पिसोवन
रानां थरथरावचीं
कोणें शान्त मळबार
माती भिरकावची
कोणें अकल्या दोळयांनी
आपलो नाश पळोवचो
कोणें फुडार वेंगोवन
उतरांनी दाखोवचो.

. १० .

खळयो, फोणारे, कोयर, अळशिकेचेर
पांगरून घाल्पा खातीर :
काळोख लाचार जावन
हांगा नित्यनेमान येता !
आनी —
येता तसो वेता !

. ११ .

चोर, फटींग, बेवदे, गुंडांचें धुमशेण
हांगची शान
नाजाल्यार वास्को म्हातारी
आसून जुवान.

. १२ .

बिल्डिंगो वयर वयर सरत रावतल्यो,
" खोपिंचे पीक " वाडत रावतलें
आनी, ऊंच–उंचेल्या बिल्डिंगांतल्यान
सकाळीं सुर्याचें तोंड पळयतल्यांक
शिंपडून शिंपडून हागूंक बशिल्ले
बायलो–दादले दिसत रावतले.

. १३ .

दनपारच्या रखरखाटांत
बांदावेल्यान येतना–वेतना
गुवांच्या घाणिंचो
वाऱ्यार पासयो मारपी वास
गळोभर, स्वासभर
कोणाकूच चुकना, कोणाकूच चुकचोना.

. १४ .

इश्वरा !
हे अळशिकेच्या कांटार
म्हजें काळीज पर्मळावचे पयलीं
एक सांगतां :
हांवय म्हजे कुडींत
गुवा–घाणिचें गटार घेवन भोंवतां
हाजो विसर म्हाका
केन्नाच पडूंक दिवं नाका.

. १५ .

गटाराकुशीक
हें मुसमुसून घोंसाघोंसांनी फुलिल्ल्या
हळदुव्याच फुलांचें मन–भुलवणें झाड
व्हंकल कशें उबें;
गटारावरीच भूत–भविस्याचे संदर्भ घेवन.

. १६ .

गजबजिल्ले लोकवस्तेंत आशिल्ल्या
ह्या वखारेच्या कोनशाक
लाकडांचो भुसो धुमसून–पेटून
धवो–धवोच कापूस कसो धुंवर
अळंग वयर मळबांत खंय वता ?

. १७ .

दर्या केन्ना अचंबळचो
केन्ना आकांताचीं ल्हारां नाचोवन धुमशेणचो,
केन्ना शान्त जावन
आपल्या आंगार नाचूंक दिवचो
तशो हांगा मनीस.

. १८ .

हांगासर
सुटाबुटांतल्या " जंटलमेनाक "
ताच्या मायल्या भेसार भुलप
हिवूय विनाशाचो शाप आशिल्ले
जेणं अेक लग्जरी वस्त
पारखुपात्री कुस्तार काम.

.१९.

कुबेराच्या अंतस्कर्णांन
सुर्याचीं पावलां झोपडपट्टेंत रिगतात
पुणून
दैन्य--दळद्रिराचो नरकासूर
ताका भीक घालिना.

. २० .

दुर्दैवी मनशावरी वांकडे तिकडे धांवपी
हथा लांब रूंद रस्त्यांक खवर आसना
खंयच्यान तांची सुरवात
आनी खंय तांचो अंत.

. २१ .

मोल कोणाचें कोणें करचेलें ?
कोयरांतय गा सत्व लिपिल्लें !

नाका तितलेंय कोयरांत आसता
कुस्नून ताका " घमघम " सुट्टा
तुटून पडटात ताजेर उमेदीन
दुबळयां वांगडा कुत्रे कावळे !

मोल कोणाचें कोणें करचेलें ?
कोयरांतूय गा सत्व लिपिल्लें !

. २२ .

पोटफुगीं शेंबडीं पोरां
हांगा निर्वाशीत कशीं भोंवत आसतात
कोयराच्या राशिंनी आपलें नशीब सोदीत !

हीं पोरां म्हळ्यार
भावी झोपडपट्टेची गवाय.

. २३ .

उदका थेंब्याक वळवळटाले थंय
पात्रमाखें मळब फुटून
नाका जायसर उदकाच उदक !

दितल्यान कितलें दिवप ?
सतयनल्यान कितलें सतवप ?

. २४ .

एक्कासारकें व्हावूंक लागिल्ल्या दुख्खाभशेन
असो कितलो वेळ तूं पावसा
व्हाळा रुपान व्हांवत रावतलो ?
म्हजे फुटके खोंपींत
थोडोसो तूं
म्हजेसरीं आलाशिऱ्याक यो.

Pitiable condition of the people - Tolerant. Sufferers -

. २५ .

दारादारार भिक्षेचें आयदन वाजयल्या उपरांत
कितलेशेच बुद्ध मनाक समजायत
रित्या पोटाचेर हात भोंवडायतात.

खांदार परिस्थितिचो खुरीस घेवन
खर्शेंत खर्शेंत कितलेशेच जेज
वोग्गी रावन अत्याचार सोंसतात.

. २६ .

वळवळयांचो नर्क भोगीत
विचित्र जनावरां कशीं हांगा दुबळे मनीस
निर्फळ जिणेच्या सावार पात्साळयांचे अितिहास
दोळयांतल्यान पगटायत
हात पसरावन भोंवतात !

हे दुबळे मनीस म्हज्या म्हा–काव्याचे विशय.

. २७ .

पोलीस स्टेशनामुखार
हें शंकराचें झाड
गिमाच्या रखरखाटांत
कुडिची पंचारत पेटोवन
धादोसकायेन उबें,
खूब दिसांची बंदखण भोगून
मेकळो जाल्ल्या गुन्यांवकारावरी.

. २८ .

बाटलेतलें दूद कितलें धवें, कितलें दाट !
गायचें काय म्हशिचें
हें पासून वळखप कुस्तार....

दुदाचें नातें रगताकडेन आसता.
वास्कोंतल्या भावा–भयणींनो
तुमी तें रुचीन पितात
तशें पीत रावात,
अपुर्बायेन भुरग्यांक दीत रावात.

पुणून एक गजाल सांगतां :
हेडून हेडून हांगां-थंय नाका जाल्लें खातल्या
गाये-म्हसरांचे चित्र दूद पितना
तुमच्या दोळ्यांमुखार केन्नाच हाडूं नाकात.
तुमच्या रगताक शेळो घाम फुटून
ओकूंक जायत.

. २९ .

काळखाक लाशीत चंद्र
रातीचेर बलत्कार करता.

.३०.

हो वाठार फॅशनेबल बायलेंवरी :
दिसा-उजवाडा गिरेस्तकाय मिरयता
आनी काळोख पडूंक लागतकच
रंगपंचम मनयता.

. ३१ .

हांगच्या रंगी–बेरंगी उजवाडाक
एक नशा आसता.
देखून
फसफसणी मुळाचे मादक मूर
चडले म्हणटकच
जिवाक नसतीच तान लागता.

. ३२ .

बायणाचो रंग–महाल दीसरात सजिल्लो
सोन्या फेस्त मनवपाक गिरायकांक राविल्लो

किर्त हाची आसता वाडत शुक्लपक्षी चंद्रावरी
पापलेटां वेगवेगळीं कोणेय वचचें येवन गरी

भडवे हांगा मार्गदर्शक करतात काम चोख बरें
लज सोडून येतात वेतात विदेशी-देशी सोयरे.

Empetho

. ३३ .

रांड बेबर्दे मागदालीन
लोकांची हशीमोराद घेवन, खोंटो खावन
आपल्या पुता वांगडा
हुणकेन हुणकेन रडटना
म्हज्या काळजाचें उदक उदक जाता !
आनी, विचार करतां करतां
हांवूच मागदालीन जावन
तिचें दुख्ख उलोवंक लागतां :

" जेजू सायबा कितें मुजो इस्ताद !
कितें मुजो फुडार !
सोयरीं सोगलीं पोयस जालीं
ना कोणाचो आदार, ना कोणाचें दार !
जेजू सायबा मुजेच हाल
मुज्यान चोवंक जायना रे !

माका सांग सायबा
आंव मेल्या अुपरांत
कोण चोयतोलो मुज्या पुताक !
मायेन कोण लागीं ओडटोलो रे तेका ?
फाल्यां तेजें रेस्पेर जाल्यार

बेसांव दिवपाक
आपलो कोण ना मुणोन
रोडटोलो रे सायवा तो रोडटोलो !

मुजे सुनेक तेन्ना कितें दिसतोलें ?
जेजू सायबा तूंच सांग
आंव तेजी मांय आसून कितें अुपेग ?
जेजू कोसलें रे हें मालदिसांव !
कोपोल फुटकें मागदालीन,
नोशीब फुटकें मागदालीन...! ”

मागदालीन म्हळयार
अंत नाशिल्लो दुख्खाचो पावस !
मागदालीन म्हळयार
काळखाचे बांयत वळवळपी एक जीव !

. ३४ .

रात ना सोपूंक आनी उदेता हो सुर्य
धर्तरेच्या कणाकणांत खातडायत विर्य

दोन जोती दोळयांच्यो तेलाबगर पेट्टात
पोट रिकामें तेकयतकच गात्रां गात्रां तुट्टात

चर्चा म्हजी गांवभर, हांव खेळणें सगळयांचें
मोल म्हजें करून कोणेंय कुसकुरावन वचचें

सपनांचीं फुलां हांवें काळजाभितर फुल्वचीं
हांवेंच तीं तोखेतना इबाडिल्लीं पळवचीं.

. ३५ .

काळवेळ नासतना
रस्त्या–रस्त्यांतल्यान, गर्दे–गर्दतल्यान
आड्डत वचपी पिशे चेडयेची
कोणाकूच लेखून नाशिल्लीं उतरां
सगळयांकूच लेखून आसतात.

पयली ती हेच गर्देतल्यान, ह्याच रस्त्यांतल्यान
येतना–वेतना
तिज्या रसरसत्या आंगाचेर नदर पडटकच
पळवप्यांच्या आंगानीं
तरतरून चांफो झिणझिणटालो.

खूप जाणांचें पाप
आयज तिज्या आंगांत शिजलां
आनी ती आड्डून
जगाचो उद्धार करीत हेडत आसता.
....तिजीं कोणाकूच लेखून नाशिल्लीं उतरां
सगळयांकूच लेखून आसतात.

. ३६ .

संवसार भोंवून आयिल्ल्या
एका मनशाक हांवें विचाल्लें :
तुजो अणभव कितें ?
ताणें सांगलें :
म्हजो " बुराक " सोडून हांव
संवसाराचे " बुराक " सोदीत भोंव-भोंवलों
आनी शेवटाक कळ्ळें
सगळ " बुराक " सारकेच आसतात.

. ३७ .

पब्लीक संडासांत
कोणेंय हागून मुतून वचचें
तशें
खाजिचे लोक येवन हांगा
खणखणीत दुडू मेजून
एका " बुरकांत " कितलेशेच
ओंकून वतात.

Promiscuity
Immorality

. ३८ .

दुडवांनी जंय आंगाची खाज विरगळटा
अशा ह्या नखऱ्यांच्या बाजारांत
ही रुपेस्त चली कोणाली ?
जिचे भांगरा केंस जर्मनींतले कुंवरेवरी,
घारशे दोळे रुमानियेंतले बेबीवरी,
पोल्यार तांबसाण काश्मीरचे कळयेवरी,
कंवळे आंगलट जपानी बावलेवरी.

अशी देशा-देशांची याद करून दिवपी
ही चली कोणाली ?

Evening

. ३९ .

कोपांतले खुटी च्यायेभाशेन सांजवेळ....

कोपांत साकर विरगळूंक लागची
तसो हो वास्कोचो दर्या ल्हारां नाचयत.
आनी
च्यायेचो पालो कोपभर हा चो
तशे मळबभर कावळे
झमझमीत वाऱ्यार हुबत.

अशी ही सांजवेळ
म्हज्या दोळ्यांमुखार साकारून
वातावरण शांत कारेंगाद जायत वता.
अशी वास्कोची तान कोणाक लागल्या ?

.४०.

काळखाचीं सवणीं वास्कोंत
मोन्यानी येतात सांज जातकच
आनी
आंगा-आंगांत दुख्खाची कळ सणसणची
तशे दिवे पेटूंक लागतात घरांदारांनी

हे दिवे–
म्हजे अयांगाचो सोद घेवपी नदरेमुखार
तेंक्ता आसतना
वास्को काळोखभरवण जायत वता.

४१.

कुश्टरोगी म्हातारो चंद्र कृश्ण पक्षांतलो
मळबा चिटकें वस्त्र पिंजित दुकां गळयता
काळखाच्या वोज्यापोंदा गर्भगळीत वास्को
ल्हवू ल्हवू दोळे उगडून आंग सांसपिता.

## ४२. Ode to Darkness

काळखा, तूं भोव उपकारी
पुजा तुजी हांव बांदतां
आसलोंय जरी भिकारी।

दुख्ख दैन्य तूं म्हजें लिपयता
जिर्णेंत पुराय भरून ओतता
नखेत्रांचीं माणकां वोतोवन
भरता म्हजी तिजोरी

जग सुवार्ती फुडें पावतलें
शास्वत सनातन रूप तुगेलें
पयस म्हाका करचोना तूं
आसा पुराय खातरी

• ४३ •

मुज्जाचो दुखेस्त सूर पातळायत
अेका मेल्ल्या मनशाचो काशांव घेवन
पुरसांव चल्लां शिमितेरीकडेन.
पाद्री धिटायेन रोजार करता.
व्होल्ता–व्होल्तार फोगेटयोय, वाजतात.

सुर्य दिसाचें वोजें घेवन
ल्हवू-ल्हवू अस्तंतेचे कुशींत रिगता
तशो गांवभर पेरगांव घालपी
अिगर्जीच्यो घांटी
सांजवेळच्या सावळयां वांगडा
लांब लांब जायत चल्ल्यात.

अजरंवर वाटेवेल्यान
दबाज्यान मातयेक मेळूंक वतल्या,
ह्या मेल्ल्या मनशाक
मोनीं बुजवण ओंपीत
मनशा-येरादारीन गजबजिल्लें शार
जागच्या जाग्यार थीर जाता
हो दुखेस्त सुवाळो पळयत.

.४४.

काशी मानाय
आपले दळदिरे जिणेची
आपुणूच काकुळट करीत
आपल्याक मोल नाशिल्ल्या
ह्या उजवाडांतल्या शारांत
पावटी मारून
आपल्या माथ्यार
लोकांचें वोजें व्हव करता.
आनी काळखांत,
फेणयेच्या घोंटार
ताच्यांतलो "हिरो" जागो जातकच
आपलो संवसार निर्मूक
सपनांतले राजकुंवरेक
गितां गावन आपयता.

. ४५ .

शांताप्पाचे खोपटेंत
ट्रांझिस्टर घणघणून
संवसाराच्यो गजाली सांगता
आनी ताज्या भोंवतणी
जाणटीं–नेणटीं बसून
त्यो अुमळशिकेन आयकतात
तांच्या मजगतीं
अनंतकाळाच्यो गजाली सांगूंक
साक्षात देवूच आयिल्ल्यावरी.

. ४६ .

गोरवां गाडवां वास्कोभर
मेकळेपणान हागत, मुतत भोंवतात
तांकांय " नागरीक " मानप काय कितें ?
पब्लीक संडास नाशिल्ल्या
ह्या दुर्दैवी शारांत
झोळयो सणसणून आयल्यार
लज–भीड पळयतल्यांचेर सोडून
गोरवां–गाडवांवरी मनशांनी
खंयसरूय हागचें, मुतचें काय कितें ?

. ४७ .

सर्कसवाल्यांचे चोमे
शारां-शारां बदलीत भोंवतात
तशे हांगा कामेरे
फाटीर साटल्यो-पोटल्यो मारून
ह्या शारांत नशीब घासूंक येतात
आनी केन्ना केन्ना
आमटान कल्ल्यतकच
कल्लां-चिंचारे शेंवटून दिवचे
तशे जावन पडटात.

४८.

" कूळ रुशिचें, मूळ न्हंयेचें सोदचें न्हय " म्हणटात तशें
हांगच्या हाडा--मासांच्या यंत्रांचीं कुळां–मुळां कोण सोदिना ?
खपतात हे गुलाम कशे, फाल्यां खंय मरतले ?
असले पिशे विचार तकलेंत कोण हाडिना !
दळदिरे हात हांचें भांडवल ह्या शाराचें
पोटाच्या अुज्यामुखार हांकांय हें पटपाचें ना !

४९.

रेल्वे स्टेशनाचेर
बोवाळ करीत आशिल्ली ही गर्दी
संवकळिल्ल्या अिशाऱ्याचेर
जनावरां सादूर जाव्चीं
तशी रेल्वेची शिटी जाल्या उपरांत
धडपडत डब्यानीं रिगतली.
आनी
शिटी शिटकायत, धुंवर भगभगायत
रेल्वे नदरे पयस गेल्या उपरांत
थोडयाच खिणांनी हें स्टेशन
रितें रितें जातलें.

.५०.

मेल्लें जनावर कुसल्या उपरांत
ताचे कितिंच्यो प्राणी
वारें दुशीत करीत
सगळ्याक पातळच्यो
तशें
दुर्गा भितल्ल्या अगडवंब
रुपेरी तांकयेंतल्यान
गॅसिचो विखाळ वास
सगळ्याक सुटल्या उपरांत
वास्को शार
कुशिल्ल्या जनावरावरी
जाल्याचो भास जावंक लागता.

. ५१ .

पाकळ्यो पाकळ्यो तटट्टन
चाफ्याचीं गोरीं-गोमटी फुलां
दुर्गा भायर घाणी-मुताचेर पडल्या उपरांत
फाल्यां सकाळीं तीं देवळाच्या सोपणार
विकूंक आशिल्लीं दिसतलीं.

तीं फुलां भक्तीभावान
भावार्ती लोकांनी विकतीं घेवन
अभिशेका उपरांत देवा आंगार घालतकच
मुर्त सोबून दिसतली !

. ५२ .

प्रिये
तुज्या केंसांतली शब्दूली फुलता–फुलतना
मळबांतल्या कुपांची देग चकचकूंक लागल्या
आनी अशा वेळार
हया अुदास वास्कोच्या तिठयार
हो प्रचारप्रभेच्या आस्वासनांचो
चिक्कार पावस,
जातूंत हया अस्त जावपी सुर्याक भूल पडून
तो अुदेवंक लागत
आनी
मर्दी मर्दी कडकडपी
जनतेच्या आकान्ताच्या ताळयांनी
मळबाचो तोल पासून वचून
तें सकयल देंवत म्हूण भिरांत !

पुणून प्रिये
तूं कांयच हुसको करूं नाका.
आतां थोडयाच वेळांत
नित्यनेमान येवपी काळोख
हया अुदास वास्कोच्या दरवटयांचेर
आदळूंक लागतलो.

. ५३ .

हें व्हांवतें गटार हुपल्या अुपरांत
अेक बुरशी, म्हेळी खानावळ लागता.
तातूंत दनपार, रातिची हुमल्यांचें मावळें कशी
पचकें जेवण जेवपाक लोकांची चिक्कार गर्दी.

गिरायकान बेगीन जेवन अुठचें म्हूण
मूस जेवणार येवन बसतात
भोपशीं फारावंक बोकीं
दर्यार झुण्प करून अुडत येवचीं तशीं

म्हज्या नव्या अिश्टा :
तूं हांगा विटेवन वचशी जाल्यार अुपाशीं अुरतलो.
ह्या वाठारांत अितली बरी खाणावळ,
अितलें बरें जेवण
आनीक खंयच मेळना.

. ५४ .

खंयच्याय हॉटेलांत गेल्यार
कंवळे भुरगे
शाळेंत श्री-ग-णे-शा शिकपाच्या बदला
चिक्र पिरयो काडून
मेजामेजार फाळो मारिल्ले दिसतात.

हांचीं मायेचीं मनशां पयस खंय तरी खेडयांत
आनी हे अशे हांगा
मगळे जिणेकूच गिराण लागिल्यावरी
झरत मरत !

. . ५५ .

पासयेवेले " मामा " जोतिशी
झडयतात तारे, गिरे
भय्या-म्हाले सवाय भितर
मारतात केंस काय बरे

भय्यांचि मिठाय कितली गोड,
अडप्यांगेर सदांच गर्दी
गोंयकारांनो, तुमीं चल्यात
आतां फकत सोऱ्यागादी.

. ५६ .

मिना धुल्लाचो गुलाल
हांगा एकासारको हुवता....
झाडां पळयात तांबडें कापड न्हेसतात,
घरांचे नळे तांबडेंच न्हाण न्हातात.

ह्या गुलालान
सुर्याचें तोंड नारिंगी दिसता
आनी चंद्राचें हळडुवें.

दीस रात हो गुलाल खायत
ट्रकां, यंत्रां भोंवतणी वावुरपी कामेऱ्यांनो
तुमच्या रगतांत कसले रुतू न्हांवतात
म्हाका पळोवंक मेळत ?

. ५७ .

ह्या ऊंच टॉवराचेर वाटकुळेंच
सायकलिच्या रोदायेदें व्हडलें घडयाळ.

हाज्या भोंवतणी
बाजार फुलून अुलगतात,
गदर्यो भरून बोततात,
रेल्वे, बोटी, येरादारिंचो आवाज
मळब गाजोवन सोडटात.

हें घडयाळ वयरसून
सगळी धांवपळ पळयता,
सगळो बोवाळ आयकता
आनी
सरते जिणेची शिटकावणी दीत
घंटया–घंटयान ठोके दिता !

. ५८ .

भर गजबजिल्ल्या रस्त्याकुशीक
एका रस्ताद कलाकाराच्या
दिव्य बोटांतल्यान साकारिल्ली
खरसार खिळायल्ल्या जेजूची ही
अिस्तिमासांवाची रांगोळी

ह्या रंगथाळया रांगोळींतल्या
जजूचे मायेस्त दोळे
पळयतल्यांक किते तरी सुचोवंक सोदतात.
पुणून कर्मकट्टे लोक
ताचेर पांच–धा पयशे उडोवन
आपले वाटेन चलूंक लागतात.

म्हाका लोकांक आडडून सांगन दिसता:
"बावडयांनो पळयात
ही रांगोळी तुमचें–आमचेंच प्रतीक,
आमी सगळे अेकटांय जावन
ह्या खिळायल्ल्या जेजूक मेकळो करया."

• ५९ •

ह्या गुलम्होरा मुळांतल्या
बोकडया–मेंडरांचे आळी–पाळीन
खून जाल्या अुपरांत
तांचें मास लोक
मीठ मसालो मारून रुचीन खातात.

हांच्या मुता–लेणक्यांची दुखेस्त धून
वाऱ्यार व्हांवत आसता,
तिका अनंतकाळ व्हांवत रावची पडटली.

हे धुनेन गुलम्होराचें काळीज दाटून
मोन्यानी आपलीं हळडुवीं फुलां तो
येतल्या–वेतल्या बोकडया–मेंडरांचेर
वडयत आसता.

. ६० .

फुटपाथिचें काळीज म्हात्म्यांचें :
तांचे अुबेंत
दीन दुबळांच्या हज्जार दुख्खांक
विसव मेळटा.

. ६१ .

फुटपाथी साम्यवादी, समाजवादी, मेकळेपणाची खूण.
तांकां ना कसलो वेगळेचार,
ना कसलो बडवाचार.
त्यो येतल्या–वेतल्या पिळग्यांच्यो पळटणी
खंड दवरी नासतना व्हांवयतात.
तांचेर भयाविरयत कोणेंय चल्चें;
चलतां चलतां त्यो वाडयत रावचें
आनी वाडयतां वाडयतां
नाच्च जावंचें सावळी कशी.

म्हज्या शारांतल्या फुटपार्थींनो :
तुमी अजरंवर,
तुमची पुण्याय व्हड
तुमकां म्हजे लाख सलाम,
तुमकां म्हजे लाख सलाम.

. ६२ .

" हांव पयलीं काय तूं पयलीं "
हाजेर झगडीं केल्यावरी
अेकामेकांचेर चडत, अेकामेकांचेर लोळत
अेकामेकांक बुडडीत माडडीत,
सळसळटी खळखळटीं दर्याचीं ल्हारां
वास्कोची घाण धुवपाक देगेर येतात
पुणून
तींच म्हेळीं जावन परततात.

६३.

लाचार मनीस
हांगासर चलता–अुलयतना
भोंवतणची गिरेस्तकाय पळोवन
झगझगपी–चकचकपी
लग्जरी वस्तूंच्या मोगांत पडच्या पयलीं
" संवसारांतलीं सगळीं सुखां म्हजी गुलामां
आनी हांव सगळे गिरेस्तकायेचो धनी "
अशी गोड कल्पना रगतांत तिजोवन
घराकडेन पेज निवळ जेवन
हुसक्या मेकळो न्हिदता
तोच खऱ्या अर्थान गिरेस्त,
खऱ्या अर्थान आशावादी.

. ६४ .

मार्गविल्यान येरादारी
च्यूं च्यूं करून
हेवटेन–तेवटेन, वांकडी तिकडी धांवची
तशीं म्हजीं चिंतनां
वास्कोच्या खांची–गोंयडयांनी बुचकळत
अमल्यावाल्यार तळमळत
म्हज्या मनांतल्या मनांत शेणून वेतात
गोठेल्ल्या बर्फाचें उदक जावंचें तशें

वास्कोच्या धगधगत्या केणांत
हथा फुडल्यो कितल्योशोच पिळग्यो
म्हाका घुस्मटिल्ल्यो दिसतात.

. ६५.

न्हांवतना जुवारी ही
दुशीत जायत रावतली
वास्को रोगीच उरतली ?

अरबी समुद्राचीं ल्हारां
धन नाचयत मुरगट्लीं
वास्को पळयतच उतरली ?

मनीस मंगळार पावतले
पृथ्वी चंद्राक तेंकतली
वास्को अशीच उरतली ?

वास्कोक ना मरण केन्ना,
पिरायेन ती जाणटी जातना
विद्रुप जायतच रावतली ?

* * *

## जाग प्रकाशन

सरसकट उद्योगीकरण म्हळयार दुर्दम्यतायेक वाळटी काय किते ? अनिवार्य उद्योगीकरण म्हळयार जतनायेन राखिल्ल्या जिणेच्या तत्वांचो नाश काय किते !.....उद्योगीकरणाक लागून आमची कौटुंबीक नीत ल्हवू ल्हवू ना जावंक लागल्या. मायेस्तपणाची ऊब आशिल्ले घरगुती आदर्श विरगळूंक लागल्यात. मनिसकुळयेची सवस्तकाय अिबाडूंक लागल्या. देवा–धर्मीवेले स्रद्धेक बाजारीपणाचें रूप आयलां. दीन-दुर्बळांचीं नागडीं–उगडीं दैनां रस्त्या–रस्त्यार, वाडया–वाडयार रोगां भशेन वाडूंक लागल्यांत......अशे परिस्थितींत भावनापूर्ण कविचें मन " सुंदरकाय म्हळयार सत्य, आनी सत्य म्हळयार सुंदरकाय " वा " सुंदरकाय म्हळयार सासणाचो आनंद " अश्यो पोक्यो घोशणा दिवन वोगी कशें बसत ? अश्या वेळार, आमी अभिमानान आधुनीक, अतिसुदारिल्ले जिणेची उदरगत म्हणटात थंय आंगार कांटो फुलोवपी धगधगतें घाणयारेंपण पळोवन जागरूक कविचो संतप्त आत्मो पोटातिडकेन उलोवंक लागलो तर नवल कसलें !......प्रकाश पाडगांवकार ह्या संग्रहांतल्या ६५ कवितानी खंतेस्त मनान पुणून स्वयंस्फूर्त, सहज व्हांवत्या आवेशान विभस्य रुपां लेगीत ओडलायण्या रंगांनी चित्रावन हेंच करतात...... कल्पना वैविध्यान आशिल्लये ह्यो कविता आमच्या दोळयांक सावूर करून उद्योगीकरणान गोंयकारपण होगडायत आशिल्लया वास्कोच्या वायट-बऱ्या आंगांचें दर्शन घडयतात......

मोल रु. ५–००